काजुले :



क्रिस्त प्रकाशन (१)

पयली खेप :
ऑक्टोबर १९८२

मुखचित्र : लुईस बारेटो

मोल : १० रुपया

छापपी : सेंट्रल प्रिटींग प्रेस.

उजवाडावपी :
आलेक्स गॉयस
दुतळें, मडकय, पो. माड्डोळ गोंय ४०३४०४.

हे काव्यरुपी काजुले

म्हज्या सर्गेस्त बापायच्या

पवित्र उगडासाक समर्पितां....

He kavyarupi kajule

Mhojea sorgest bapaichea

Povitr ugddasak somorpitam....

# उगते मनान........

म्हजें हें काजुल्यां भीरें तुमचे मुखार हाडटना आयज म्हाका जी खोस जाता ती अशी उतरानी उगतावंक जावंचेली ना. तेच वांगडा हे " काजुले " एकटावन जातगीर ते उजवाडाक हाडचे वेळार जे जे देवमनशानी म्हाका कसलो ना कसलो पालव दिलो तांचो हांगा थोडोभोव उल्लेख जालो ना जाल्यारय म्हजे मनाक शांतताय मेळचीना.

पद्मश्री र. वि. पंडित, तशेंच दो. मनोहरराय सरदेसाय हे जेष्ठ साहि-त्यिकांनी आपलो मोलादीक वेळ होगडावन म्हजे कवितां झेल्याची बरे तरेन मांडावळ कोरून दिलेबद्दल तांकां देव बरें कोरूं म्हण्टना लेगीत उतरां उणी पडटात कशीं दिसतात.

श्री. लुईस बारेटोंन हे झेल्याचें सोबीत बरें विनामूल्य मुखचित्र चित्रावन म्हाका भोव उपकारांत दवल्लो. तशेंच सेंट्रल प्रिन्टींग प्रेसाचे मालक श्री. राजन गायतोंडे हाणीं सदळ हातान पुस्तक छापून दिवपाचें उतर दिल्ल्यान आनी तातूंत काम करपी कामदार भावानी व्हडे जतनायेन पुस्तकाची छापणावळ करून दिले-बद्दल हांव तांचोय खूप उपकारी.

आयज हे म्हजे काव्यरूपी " काजुले " पुस्तक रुपान वाचप्यां मुखार येवंक पावले फकत बरें मागप्यांच्या कश्टां आनी आशीर्वादा खातीर. हांगा जायते बरें मागप्यां मदीं, म्हजे भोव बरे इश्ट, बाब अनय भांडारी हांचोय व्हड वांटो आसा, हें म्हज्यान कशें विसरूं येत ?

—आलेक्स गॉयस

# वाटेंतलीं उतरां—

कोंकणी साइत्याचो ओव्ढ सध्या नाटक, कथा, कादंबरी ह्या साइत्य प्रकारांकडेन वळिल्लो दिसता. पुण गोंयचे सुटके उप्रांत घसाघसा व्हांवक लागिल्लो कोंकणी काव्याचो दूदसागर तसोच व्हांवत आसा. नागेश करमली, पुंडलीक नायक, रमेश वेलुस्कार, माधव बोरकार, जेस फेर्नांदिश आनी जायत्या तरण्या कवींनी कोंकणी काव्याक नवो आकार नवो नेट दिला.

आज हो तरणो कवी आलेक्स गॉयस तुमचेमुखार आपल्यो धाकटुल्यो कविता दवरता. रेडियो आयकतल्यांक आनी कोंकणी नेमाळीं वाचतल्यांक आलेक्साचें नांव नवीन न्हय. त्याभायर दुसरो एक कवी जे. एल. गॉयस हाजो तो भाव. आपली पयली स्फूर्त ताणें भावाकडल्यानूच घेतल्या. हेर भारती भाषांकडलें तुटिल्लें नातें परतून जुळवपाक कांय कातोल्क बरोवप्यांनी येत्न केले. मराठी, हिंदी हांचो अभ्यास करून आनी शणै गोंयबाबांची बरपावळ वाचून आनी पचोवन तांणीं आपली साइत्यिक कोंकणी घडयली. जशे रोमींत तशेच ते नागरीत बरोवंक लागले. ही नवी वाट दाखोवपी बरोवपी म्हळयार फेलीस कार्दोझु तेंच गिरेस्त दायज घेवन, आलेक्स कविता बरयता ताजेर हिंदू कोंकणी कवींचो शाप दिसता हांतूंत दुभाव ना. पुण हिंदू आनी किरिस्तांव समाजांक एकठांय हाडपी, सगल्यांचे वळखीची, पुण नवे धर्तीची कोंकणी तो आपणायता. आलेक्स हाणें देवनागरींतलें कोंकणी साइत्य वाचलांच पुण मराठी, हिंदी आनी संस्कृत ह्या भासांचोय ताणें अभ्यास केला. अशेंच सगल्यांनी केल्यार कोंकणीं भाशेच्या मळार हिंदू आनी किरिस्तांव असो भेद उरचोच ना. पुण आपली भास अशी अखिल–गोमंतकीय करतांना, आमकां कोंकणी लोक-काव्याचो आनी हजारांनी घडिल्लया कांतरांची विसराय पडूंक फावना. किरिस्तांव कवींनी मांडे, दुलपदां, कांतरां हांचीय परंपरा मुखार चलोवंक जाय. तरणो कवी तोमाझिन्यु कार्दोझ हाणें ती वाट धल्ल्या. आलेक्स हो पिरायेन भुरगो तरी आपल्या जिवितांतले लिक-लिक उजवाड दिवपी कांय अणभवाचे काजुले ताणें ह्या पानांर शिपडायल्या.

ताजे वळींत उमाळयाची हूनसाण आसा तसोच बुद्धीचो उजवाड. भोंव-तणची ढोंगा ताणें पारखिल्यां.

'देवाक धा नाल्लांचें, गोंडशें घाल, जीब लाळेल्या, देवाली काय भटाली !'

'कित्याक अशें तोंड लिपयता, दुड्डू हातान व्हेल्ले, हात लिपय !'

'ताजे तकलेर, पांय दवरून, तो चलता, रस्तो फुडलो.'

'गरींबालीं, भाटां बेसां खावन, 'तो' केस करता कोर्टांत.'

'पाद्री, शेरमांव सांगता, जुजेफीनाक, पळोवन.'

हो कवी अशे हे चिमटे काडटा.

पुण हो कवी तरणो म्हण्टकच मोगाच्या मोगांत पडिल्लो. आपले सपन सुंदरिक तो म्हण्टा :

'तुवें सदांच, लजेत रावचें, आनी हावें, तोखेत !'
आनी तो तिका पाचारता.

'मेळचें ज्ञाल्यार, यो एके, काळखे राती, नखेत्रांच्या उजवाडांत, जीण फुलोवंक.'

आनी तीज्या रागाचोय ताका मोग.

'तुवें मोखलें, रागान, हावें जिखलें, मोगान.'

ह्या तरणांठ्यान जिविताचे बरे-वायट अणभव घेतल्या आनी शाणेंपण जोडलां

'घडून गेल्ल्या घडण्यांचेर, उजवाड कित्याक, घावो उस्तून बेश्टयो वेदना कित्याक ?'

अशे हे काजुले, झिगझिगीत, लिकलिकत, धाकटुलेच पुण काळोख उज-ळावपी आनी वाट सांसपितल्यांक, "रस्त्यार हाडून सोडपी."

एक रात अशी येवची असल्याच काजुल्यांनी उमाशेची लख्ख पुनव जावची तो मेरेन ह्या धव्या पानांवेले हें काजुल्यांक आमी तोखेत रावया.

—मनोहरराय सरदेसाय

पणजी.

१९-४-८२

1

पिसोळ्याक धरूं नाका

ताचीं पांखां तुट्टलीं

ताची फाट धर

तुजी आदावंत सुट्टली.



**Pisolleak dhorum naka**

**Tachim pakham tu'ttolim**

**Tachi fatt dhor**

**Tuji adavont su'ttoli.**

## 2

एके फावटी

दोन कामां

करूंक गेलों

घरा परतताना

दोनूय अर्ध्यारूच

उडोवन आयलों



Eke favtti

Don kamam

Korunk gelom

Ghora portotona

Donuim ordhearuch

Uddovn ailom.

ुज्या दुखी काळजाक

हजें सुखी काळीज ओंपून

ाकीं हावंच दुखवलों.



Tujea dukhi kallzak

Mhojem sukhi kalliz onpun

Xekim havnch dukhoulom.

4

देवाक धा नाल्लांचें

गोडशें घाल !

जीब लाळेल्या...

देवाली काय भटाली ?



Devak dha na'lanchem

Goddxem ghal !

Jib lallelea...

Devali kai bhottali ?

सुख मेळोवंक

ताकतीकेन असो

नाका धावूं;

फाटसून तुज्या

सुखूच चलता

ल्हवू ल्हवू.



**Sukh mellonvk**

**Taktiken oso**

**Naka dhavum;**

**Fatsun tujea**

**Sukhuch cholta**

**Lhou lhou.**

6

एक रात तुजी

एक रात म्हजी

आनी एक रात

आमची दोगांयचीय.



Ek rat tuji

Ek rat mhoji

Ani ek rat

Amchi dogaimchj-i

7

आंकवारपणांत मोग

न्हिदूंक दिना,

खावंक दिना;

लग्ना उपरांत

सगळें मेळटा

वेळच गावना.



**Ankvarponnant mog**

**Nhidunk dina,**

**Khavnk dina**

**Logna uprant**

**Soglem mellta**

**Veluch gavona.**

एकटो आयलो

रुखा पोंदाक

विसव घेवंक बसलो;

दुसरो येवन

कुराडीचे घाय

घालून गेलो.



Ektto ailo

Rukha pondak

Visou ghenvk boslo;

Dusro ievn

Kuraddiche ghai

Ghaun gelo.

9

रूप पळोवंक

हारसो कित्याक?

म्हज्या दोळ्यांत पळय !



Rup pollovnk

Harso kiteak ?

Mhojea dolleant polloi !

दुकां वोंठार गळ्ळीं

तेदनाच—

दुःखाची खारसाण कळ्ळी.



Dukam vonthar go'llim

Tednach-

Duk'khachi Kharsann ko'lli.

11

हांडिवेलो कळसो

तुजो

उप्पाट भरिल्लो

पियेंवंक लाळेता

जण एकलो.



Handdivelo kollso

Tujo

Upatt bhori'lo

Pienvk lalleta

Zon eklo.

होडेकारा

घाल होलो

नेटान घाल

सकाळ जावंची जाल्या.



**Hoddekara**

**Ghal holo**

**Nettan ghal**

**Sokall zanvchi zalea.**

]

कित्याक अशें

तोंड लिपयता ?

दुड्डू हातान व्हेल्ले

हात लिपय!



**Kitak oxen**

**Tondd lipoita ?**

**Duddu hatan vel'e**

**Hat lipoi !**

आंगठो मारून
सामको फटवलों
कागद भलतेंच
उलोवन गेलें.



Angtho marun
Samko fottovlom
Kagod bholtench
Ulovn gelem.

15

तुजो पदर

हुबलो वाऱ्यार

म्हजें मन

ना थाऱ्यार.





**Tujo podor**

**Hublo varear**

**Mhojem mon**

**Na tharear.**

ल्हार फुतफुतलें
पायां सकयली
रेंव घेवन
नांच जालें.



Lhar futfutlem
Paiean sckcili
Renv gheun
Nanch zalem.

17

तान भागयता

पावस

दुकाळ हाडटाय

पावस.



Tan bhagoitai

Pavs

Dukoll hadtai

Pavs.

18

दूद दाट म्हण

उदक रकयलें

दूदाचेंच

उदक जावन गेलें.



**Dud datt mhonn**

**Udok rokoilem**

**Dudachench**

**Udok zaun gelem.**

19

तो हातांत

कट्टी घेवन

भीक मागीना

गिरेस्तांचीं

पुंजायता मनां.



To hatant

Ko'tti gheun

Bhik magina

Girestanchim

Punzaita monam.

20

लग्न जावंक

फोरसार म्हाका

नाका करूंक;

मोग पूराय

मेळटना तुजो

लग्न आनीक

कित्याक करूं ?



**Logn zanvk**

**Forsar mhaka**

**Naka korunk;**

**Mog purai**

**Melltona tuzo**

**Logn anik**

**Kiteak korum ?**

21

विसरूं कसो

काळजार घाय

सामको ताजो.



Visrun koso

Kallzar ghai

Samko tajo !

काावळ्याचेर ताणें

शेंवटीलो फातोर

बशिल्लेकडेन कावळो

मनांतल्या मनांत हासलो.





Kavleacher tannem

Xevtilo fator

Boxi'le koden kavllo

Monantlea monant hanslo.

23

ताजे तकलेर

पांय दवरून

तो चलता

रस्तो फुडलो.



**Taje tokler**

**Paim dourun**

**To cholta**

**Rosto fudlo.**

24

तिजे बांयचो थाव

ताका कसोच मेळना

तरी तो थारना.



Tije baincho thav

Taka kosoch mellona

Tori to tharona.

25

चिमणेन कावळ्याक

मानलो भाव

तेदना सावन

कावळ्याचेर पडलो ताण.



Chimnen kavleak

Manlo bhav

Tedna savn

Kavlleacher podlo tann.

26

एका फाराक

दोन बकीं

म्हण्टा थंय आसा

बकीं उडलीं.



Eka farak

Don bokim

Mhonttam thoim asa

Bokim uddlim

27

संगीतान

भूक भाग

तूं

तान भागय.



Songitan

Bhuk bhagoili,

Tum

Tan bhagoi.

28

मोगा उतरांच्या

पावसांत तुज्या

हांव सामको

ओलो चिंब !



Moga uttranchea

Pavsant tujea

Hanv samko

Volo chimb !

29

दोन वर्सां

साल्लीं मोन्यानी

निरोप दितलो म्हळ्यार

आज उतरांच मोनी.



Don vorsam

Sa'lim moneanim

Nirop ditlom mhollear

Aiz uttranch monim.

गरीबांल्या घरांत

जळटा मेणवात

जेजून धाडिल्ली;

गिरेस्ताली अड्डेची

पे [illegible]ायट

घातमारी !



Goribalea ghorant

Zollta mennvat

Jezun dhadi'li;

Girestali oddechi

Pe'tta laitt

Ghatmari

31

म्हजे वेंगेंत रावन

तुवें

सपनांतलो राजकुंवर सोदलो,

तुजे वेंगेंत रावन

हांव

सपनेतूच उल्लों.



**Mhoje vengent ravon**

**Tuvem**

**Sopnantlo rajkunvor sodlo,**

**Tuje vengent ravon**

**Hanv**

**Sopnetuch u'lom.**

व्हडवीक तुजी
गावंची कित [illegible] ?
रक्तांतूच तुज्या
व्हडवीक खोटी.



**Vhoddvik tuji**
**Gavnchi kitli ?**
**Rogtantuch tujea**
**Voddvik khotti.**

33

**तिज्या काळजाक**

**काळीज लावन**

**ताणें तिचें**

**काळीज इबाडलें.**



**Tijea kallzak**

**Kalliz lavn**

**Tannem tichem**

**Kalliz ibaddlem.**

तुवें हावें

सपनां रंगयलीं

अनंत रंगानी;

तुवें सपनांचो

आस्वाद घेतलो

आनी हांव

तातूंत घुसपलों.



**Tuvem havem**

**Sopnam rongoilim**

**Onont ronganim;**

**Tuvem sopnancho**

**Asvad ghetlo**

**Ani hanv**

**Tatunt ghuspolom.**

35

कितलो वेळ

वाट पळोवं ?

दोळ्याक म्हज्या

जागयत दवरूं ?





**Kitlo vell**

**Vatt pollovm?**

**Dolleank mhojea**

**Zagoit dovrum ?**

36

तुवें सदांच
लजेत रावंचें
आनी हांवें
तोखेत !



Tuvem sodanch
Lojet ravnchem
Ani havem
Tokhet !

37

ता खंय !

ावलां व्हरतात थंय !



**Vota Khoim?**

**Pavlam vortat thoim !**

गरीबालीं

भांटां बेसां खावन

'तो' केस करता कोर्टांत.





Goribalim

Bhattam besam khavn

'To' kes korta korttant.

39

हावें देखलें

आनी सांडलें

फाल्यांक—

फाल्यां उजवाडलोच ना.



**Havem dekhlem**

**Ani sandlem**

**Faleank—**

**Faleam uzvaddloch na.**

तुका उलोवंक

तोंड आसा ?

आसतलें कशें ??

खातलो म्हळ्यार

घरांत एक

गोटोय ना !



Tuka ulovnk

Tondd` asa ?

Astolem koxem ??

khatlo mhollear

Ghorant ek

Gottoi na !

काजुंतेंपार म्हुट्ठो खावंक

वेळच गावना;

काजू उलगतात –

हांव सोड्ता तट्ठो

तेदना तुर्मणय दिसना.



**Kaju tempar mu'tho khavnk**

**Velluch gavona;**

**Kaju ulgotat—**

**Hanv sodtam to'tho**

**Tedna turmonnui disona.**

रोंप्याचो रुख

जाता

म्हज्या मोगाचें

गीत जाता.



Ronpeaeho rukh

Zata

Mhojea mogachem

Git zata.

' ताज्या चितेर
पडूंक जाय आसलीं
चंदना रोपटीं '
म्हण्टा एकलो
धेकर काडीत ;
' भांगरा कांडी
कित्याक न्हीं ?'
हावें येवजिलें
कांय खीण.



'Tajea chiter
Poddunk zai aslim
Chondona ropttim '
Mhonntta eklo
Dhenkor kaddit ;
' Bhangara kanddi
Kiteak nhim ?'
Havem eujilem
Kaim khinn.

म्हजें काळीज तुका
हावें उगतें केलें;
तुजें आंग
गर्वान फुगलें,
आनी कशें
कोण जाणां
म्हजें काळीज
आवच्चितूच धांपलें.

Mhojem kalliz tuka
Havem ugtem kelem ;
Tujem ang
Gorvan fuglem,
Ani koxem
Konn zannam
Mhojem kalliz
Avchituch dhamplem.

45

देवा,
मनशांचीं पातकां
तूं गा निवारता ;
तुवें गा कसलें
पातक केलां
देखून तूं
बंदखण भोगता ?



Deva,
Monxeachim patkam
Tum ga nivarta;
Tuvem ga koslem
Patok kelam
Dekhun tum
Bondkhonn bhogta?

खोता तांगेर

आनी वोंक.ताय

तांगेरूच ?



**Khota tangr**

**Ani Vonktai**

**Tangeruch ?**

47

देवाक मेळचो आसा ?

पयलीं भटाक मेळ !



**Devak mellcho asa ?**

**Poilim bhottak mell !**

घांस मारूंक

तोंड उघडलें

चावो घेतना

दांतानी अडयलें.



Ghans marunk

Tondd ughoddlem

Chavo ghetna

Dantani oddoilem.

49

पाद्री—

भुकेल्ल्यांक जेवंक वाडचें

तानेल्ल्यांक पिऊंक दिवंचें

पुण रानप्याचें पोट भुकेल्लेंच !



padri-

Bhuke'leak jevnk vaddchem

Tane'leak piunk divnchem

Punn ranpeachem pott bhuke'lench !

50

दुःखाचें सवंग

भेस बरें केलें

लोकांत मात

हाशें जालें.



**Dukhachem sovong**

**Bhes borem kelem**

**Lokant mat**

**Haxem zalem.**

51

गरीब गरीबाचेर

थोमणें मारूंक आयकना

गिरेस्ताचेर

तोंडच उगडना.



Gorib goribacher

Thomnnem marunk aikona

Girestacher

Tondduch ugoddna.

ताचेंच चोरून

परती ख्यास्तय ताकाच ?



Tachench chorun

Porti kheastui takach ?

साडी घेतल्या

हजाराची !

वयल्यान 'ही' म्हण्टा

बरी हाडची आशिल्ली !!



**Saddi ghetlea**

**Hczarachi !**

**Voilean 'hi' mhontta**

**Bori haddchi axi'li !!**

पाद्री

शेरमांव

सांगता

जुजेफीनाक

पळोवन.



padri

Xermanv

Sangta

Jujefinak

Pollovn.

रोंपी माडुयता ?

नाका

तीच तुका

सावळी दिवंची आसा.



Rompi ma'ddoita ?

Naka

Tich tuka

Savlli .ivnchi asa.

उकट्टा ?

कपडे काड

वारो जावन

खेळटां तुज्या आंगार



Uko'tta ?

Kopdde kadd

Varo zavn

Khelltam tujea angar !

57

तुजें आंग धवें

पिठाचें !

म्हजें आंग काळें

पाशाणाचें ! !



Tujem ang dhovem

Pithachem !

Mhojem ang Kallem

Paxeannachem !!

जाण्टेपणांत

करीन दिस्ता जायतें

तें करूंक

शक्त पडटा उणें.



Zan'tteponnant

Korin dista zaitem

Tem korunk

Xeokt poddta unnem.

मेळचें जाल्यार

यो एके

काळखे राती

नखेत्रांच्या उजवाडांत

जीण फुलोवंक.



Mellchem zalear

leo eke

Kallkhe rati

Nokhe'ttranchea uzvaddant

Jinn fulovnk.

घेतना घेतलें

पोशान

दितना कित्याक

थापटान ?



Ghetna ghetlem

Poxean

Ditna kiteak

Thapttan ?

म्हज्या काळजांत

ह्यावें—

रोपटें रोयलां

तुज्या उतरांचें



Mhojea kallzant

Havem—

Ropttem roilam

Tujea uttranchem.

देवाक फुलां

घालूंक मेळना ?

भटाच्या

गळ्यांत घाल !



Devak fulam

Ghalunk mellona ?

Bhottachea

Gholleant ghal !

तूं येता

सपन जावन

तूं वता

म्हाका जागोवन.



Tum ieta

Sopon zaun

Tum vota

Mhaka zagoun.

आयलें न्हेसून

झगझगीत साडी

परतलें करून

कुड्डो सगळया जनी

हांव एकटो एकसुरो

उल्लों सगळयाक सांसपित.



Ailem nhesun

Zogzogit saddi

Portolem korun

Ku'ddo soglea joni

Hanv ektto eksuro

U'lom sogleak sanspit.

65

येतना आयलें

हात हालयत

वतना गेलें

हांडीर झेलयत.



Etna ailem

Hat haloit

Votna gelem

Handir zeloit.

म्हाका सपनां पड्टात

दिसाचीं

कित्याक जाणा ?

रातचो म्हाका

वेळच मेळना.



Mhaka sopnam podd'tat

Disachim

Kiteak zana ?

Ratcho mhaka

Velluch mellona.

67

मोगाचे सोपूद

म्हाका कित्याक लागतीत ?

मोगाखातीर घेतल्यात

लागतीत तेका !



Mogache sopud

Mhaka kiteak lagtit ?

Moga khatir ghetleat

Lagtit teka !

पाद्री म्हण्टा –

‘पातक करतलो

इंफेर्नांत पावता’

हांव विचारतां -

‘इगोर्जेचे पैशे खातलो ?’



Padri mhontta-

‘Patok kortolo

Infernant pavta'

Hanv vichartam--

‘Igorjeche poixe khatlo ?'

तुवें मोखलें

रागान

हावें जिखलें

मोगान.



**Tuvem mokhlem**

**Ragan**

**Haven jikhlem**

**Mogan.**

कितलो वेळ

पळेलें तुका

तान भागलीच ना;

दोळ्यांच्यो पातयो

मिटल्यो तरी

तूं हाल्लेंच ना.



Kitlo vell

Pollelem tuka

Tan bhaglich na;

Dolleancheo patieo

Mittleo tori

Tum ha'lench na.

सगळे जाण

रूप रंगाक लाळेतात;

म्हज्या वाट्याक

हें सगळें

नासल्यार चलता,

नितळ परमळाचो

म्हाका सांगात जाय.



**Soglle zann**

**Rup rongak lalletat ;**

**Mhojea vatteak**

**Hem soglem**

**Naslear cholta,**

**Nitoll pormollacho**

**Mhaka sangat zai.**

मोगा उलोवंचें जाल्यार

मोगांत पडचें खंय

मरणाचें उलोवंचें जाल्यार...?



**Moga ulovnchem zalear**

**Mogant poddchem khoim**

**Mornnachem ulovnchem zalear.....?**

73

पाना एद्थें

कवीत म्हजें;

पान सुकलें,

कवीत मात

सर्वकाळ जगलें!



**Pana edem**

**Kovit mhojem;**

**Pan suklem,**

**Kovit mat**

**Sorvkall joglem!**

वचच्या पयलीं

म्हजेंय थोडें

आयकून वच ;

थंय तुका

नाडलें जाल्यार

म्हज्या दारार

मारूंक यो.



Voch'chea poilim

Mhojeim thoddem

Aikun voch ;

Thoim tuka

Naddlem zalear

Mhojea darar

Marunk ieo.

75

यादीन तुजे

पूराय उबगलां

शक्त हाड बेगीन

तुज्या द्दिश्टाव्यान.



Iadin tuje

Purai ubgolam

Xeokt hadd begin

Tujea dixttavean.

रेब्यांत पडलों

भोवतणी ही गर्दी ;

खबर सगळ्याक फांकली ;

धडपडटां वैर सरूंक

हात दिवंक

कोणच दाखयना तयारी.



Rebeant poddlom

Bhonvtonni hi gordi ;

Khobor sogleak fankli ;

Dhoddpoddtam voir sorunk

Hat divnk konnuch

Dakhoina toieari.

११

तुज्या बगर

रावचें कशें

तुवें आदीं

शिकयल्यार

मूं तें ?



**Tujea bogor**

**Ravchem koxem**

**Tuvem adim**

**Xikoilear mum tem ?**

आपयता तेदना

ताका वेळ आसना

आपोवंकना तेदना

शीण काडचोय रावना!



Apoita tedna

Taka vell asona

Apovnk na tedna

Xinn kaddchoi ravona !

79

तुज्या वेंगेत रावचेली

आस म्हजी

भागली ना रे भागली ना;

ही काजळी रात कशीच

पूरली ना रे पूरलीना.



Tujea vengent ravcheli

Ass mhoji

Bhagli na re bhagli na;

Hi kajlli rat koxich

Purli na re purli na.

फुल फुलता

पोरसांत

मोग शिजता

काळजांत.



**Ful fulta**

**Porsant**

**Mog xijta**

**Kallzant.**

शेतांत शेतकार

गळयता घामाच्यो

पावळ्योच पावळ्यो;

घरांत ताच्या

खाणी मोतयांच्यो.



Xetant xetkar

Golloita ghamacheo

Pavlleoch pavlleo;

Ghorant tachea

Khanni motiancheo.

घडून गेल्या घडण्यांचेर

उजवाड कित्याक?

घावो उस्तून बेस्टयो

वेदना कित्याक ?



**Ghoddun ge'lea ghoddneancher**

**Uzvadd kiteak ?**

**Ghavo ustun bextteo**

**Vedona kiteak ?**

83

मागलीं फुलां

कांटेच मेळ्ळे

तांचेंच हावें

पोरसा खातीर

कुंपण केलें.



**Maglim fulam**

**Kanttech me'lle**

**Tanchench havem**

**Porsa khatir**

**Kumponn kelem.**

जीण फुलोवंक

तुजो आधार;

जीण बावोंक

तुज्याच उतरांचो घाय.



**Jinn fulovnk**

**Tujo adhar;**

**Jinn bavonk**

**Tujeach uttrancho ghai.**

४५

प्रगती ?

मडसरी !

संगळेकडेन

गरीबी आनी भिकारी !!



**Progoti ?**

**Moddsori !**

**Soglle kodden**

**Goribi ani bhikari !!**

गिरेस्ताले हिशोबांत

दोन चडले

व्हडलें काय घडलेना;

दोन पडले उणें

दनपरां जेवणूयं

चल्लें ना.



Girestale hixeobant

Don choddle

Vhoddlem kaim ghoddlena;

Don poddle unnem

Donparam jevonnuim

Cho'lem na.

87

गिरेस्ताले घरांत

पैशाचें भाण

गरीबाले घरांत

भावनांची खाण.



**Girestale ghorant**

**Poixeachem bhann**

**Goribale ghorant**

**Bhavonanchi khann.**

जीव दिवंक

दर्या कित्याक जाय ?

कट्टीभर उदकांत

तुजें नशीब आजमाय.



**Jiv divnk**

**Dorya kiteak zai ?**

**Ko'tti bhor udkant**

**Tujem noxib azmai.**

४९

जेजू खुरसार चडलो

आमकां लागून

ताजें मोल

फारीक करया

अंतःकरण नितळ दवरून !



Jezu khursar choddlo

Amkam lagun

Tajem mol

Farik korum-ia

Ontoskoronn nitoll dovrun!

सांगचें आसलें

जायतें

तूं दिसतांच

विसल्लों सगळें.



Sangchem aslem

Zaitem

Tum distanch

Viso'lom sogllem.

तुवें म्हाका मोगाचे

सोबीत धडे शिकयले

जिवीतभर यादीत उरतले;

ते धडे —

म्हज्या जिवीताचे

फकत धडेच

जावन रावले.



**Tuvem mhaka mogache**

**Sobit dhodde xikoile**

**Jivit bhor iadint urtole;**

**Te dhodde—**

**Mhojea jivitache**

**Fokot dhoddech**

**Zaun raule.**

देवाक मनोवंक

अत्तर कित्याक?

तुवें घेतिल्ली

फांतीच पूरो !



**Devak monovnk**

**O'tor kiteak ?**

**Tuvem gheti'li**

**Fantich puro !**

९३

तुजे यादीन

साल्ल्यो राती

काळखा कुडींत ;

सांगातान सारूया

फुडल्यो राती

पंटेच्या ज्योतींत.



**Tuje iadin**

**Sa'leo rati**

**Kallkha kudint;**

**Sangatan sarum-ia**

**Fuddleo rati**

**Po'nnttechea jyotint.**

दोगायनीय

वांटो केलो

अर्दो अर्दो

आप आपणाचो;

जाण्टी आवय

न्हंय म्हज्या वांट्याक

झगडटा जण एकलो.



**Dogaini-i**

**Vantto kelo**

**Ordo ordo**

**Ap-apnnacho ;**

**Za'ntti avoi**

**Nhoim mhojea vantteak**

**Zogoddtta Zonn eklo.**

एकल्यान म्हाका म्हळ्यें-
'जर चिंतना विसरचीं आसात
तर ओठांक तेकय
सोऱ्याचो पेलो'
तशें केलें—
चिंतना विरगळलीं
सकाळ जाता म्हळ्यार
सगळीं परत एकठवलीं.



**Eklean mhaka mhollem-**
**'Zor chintnam visorchim asat**
**Tor vonthank tenkoi**
**Soreacho pelo'**
**Toxem kelem—**
**Chintnam virgollim**
**Sokall zata mhollear**
**Sogllim porot ekthovlim.**

वाट पळोवन

दोळे झेमेले

याद येतांच

अचकित पाणावले.



Vatt pollovn

Dolle zemele

Iad ietanch

Ochkit pannavle.

97

कशें सांगू
कितें सांगू
कांयच समजना म्हाका;
सुटावें कर
मनाक म्हज्या
तुज्या मनांत
घुसपल्ल्या.



Koxem sangum
Kitem sangum
Kainch somzona mhaka;
Suttavem kor
Monak mhojea
Tujea monant
Ghuspo'lea.

देवा,

झलमाक म्हाका

कित्याक घाला

दुकां गळयतल्यांचीं

फकत पळोवंक तोंडां ?



Deva,

Zolmak mhaka

Kiteak ghala

Dukam golloitoleanchim

Fokot pollonvk tonddam ?

99

वाट पळयली

दोळयांत तेल घालून

तेलाचें उदक केलें

तुवें एकाच खिणाक.



**Vatt polloili**

**Dholleant tel ghalun**

**Telachem udok kelem**

**Tuvem ekach khinnak.**

हांवें रचिल्ले हे

काव्यरुपी काजुले

काळखांत वाट सांसपितल्याक

रस्त्यार हाडून सोडपाक

जेदना पडटले उपेगाक

तेदनाच म्हज्या रचनांक

अर्थपूर्ण येतलो हुंवार !



**Havem rochi'le he**

**Kavyarupi kajule**

**Kallkhant vatt sanspitleak**

**Rostear hadun soddpak**

**Jedna poddtole upegak**

**Tednach mhojea rochonank**

**Orthpurna ietlo hunvar !**